# जीव संकल्प

एन० बालकृष्ण मल्या

पी जी कामत फाउंडेशन

एरणाकुळम – कोच्ची

2013

कोंकणी

# जीव संकल्प

## कविता संग्रह

**एन. बालकृष्ण मल्या**



पयली उजवाडावणी
मार्च 2013

मुख चित्र :
**एन. बालकृष्ण मल्या**

अक्षर जुळणी :
श्री.गणेश सिस्टेम्स

छापणावळ :
विद्या ओफसेट प्रिन्टर्स
वीक्षणम रोड, कोच्ची - 682 018

प्रकाशक :
पी.जी. कामत फाउंडेशन
पुदुमा, परिणामम रोड, कलूर,
एरणाकुळम, कोच्ची – 682 017

*(Konkani)*

# *Jeeva Sankalp*

***Anthology of Poems***

**By : N Balakrishna Mallya**



First Edition
March 2013

Cover Picture :
**N Balakrishna Mallya**

Typesetting :
Shree Ganesh Systems

Printed at :
Vidya Offset Printers
Veekshanam Road,
Cochin-682 018

Published by :
P.G. KAMATH FOUNDATION
PUDUMA, Parinamam Road, Kaloor,
Ernakulam, Kochi – 682 017
*pgkamat.foundation@gmail.com*
Tel : 94477 30866

Price : ₹80/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणेखाला छापलां

8/307 R G Pai Road
South Cherlai
Kochi - 682002 . Kerala
Ph: 09497201681

# समर्पण



बापा स्व. व्ही. नारायण मल्या

आनी

आम्मा स्व. एन. रमा बाय

हांच्या

पावन उडगासाक

## लेखकालीं उतरां

उजवाडाक येवुंचो हो मेगेलो प्रथम कविता पुस्तक. म्हज्या मनांतले विचारांक स्वतंत्र जावन, हांजो सोडून हांव तुमच्या मुखार दवरतां.

संकल्पु म्हणचो स्वासु खेळपाक जीवित म्हणताय. सत सांगिल्यार जीवित एक संकल्प मात्र. प्रकृती म्हणच्या महाचेतनाच्या महासंकल्प. तांतु बुलबुल्यावरी उभरून फुगून फुट्टुच्चे आमी जीव, क्षणिक जावन ह्या लोकांत अर्थ नात्तिल्ले म्हस्त संकल्प काडताय. ह्या लोकांत सग्ग संकल्पाच्या बलार काम चलतात. संकल्पाक हांगा भोर्नु अर्थु आसा. आमी एकापासून स्वयं आठोवप, ना जाल्यार एकापासून मनांत स्थापन करची छवि इत्यादि हे शब्दाचे दायरेंतु येत्ता. चुट्कियो मारचे वेळार अंत जांवचे मिन्ने जीवितांत पाक्कां विस्कळावून मळबार उबूका म्हूण जीवु आग्रह करता आसा. साध्य जावंचे पेलेकडे मोहांची दोरी धरून कालाचेर जय काडूक जीवु देवला.

जीविताच्या धारेंत मनाकय अंतरंगाकय घाय पडूनात्तिल्लें विजय घेंवुचे असाध्य. त्या वेळार धैर्य म्हणचो संकल्पु जाय. मरणाचे तोण्णांत थाकून जीवाक राकता हो संकल्पु. आग्रह साध्य करूंक संकल्प काडून जीवु लोकांत जन्म घेता आनी संकल्प सोरुचे घडी देह सोडटा म्हणताय बुदवंतजण.

जीविताची काणी आग्रहांचेय सपनांचेय एकमेळी. व्याख्यान दीवून आमी आमगेले खातीर करचे संकल्प वेगवेगळे रूप धारण करून नवे नवे वाटेर आमकां पांवेयतां.

हांव म्हज्या कवितांचे तर्फेन म्हाजेच जीविताच्या अनुभवांक एक संग्रहाचे रूपान प्रस्तुत करपाक प्रयत्न काडला. ह्या पुस्तक भायर सोडपाक म्हाका वाट दाखयलेले श्री. पय्यन्नूर रमेश पै हांकांय कवितांची निवळावणी केलेली प्रोफ. प्रियदर्शिनी ताडकोडकर हांकांय हांव ह्रदयान ह्या वेळा म्हजो आभार सांगतां. ह्या पुस्तक उजवाडावपी पी.जी. कामत फाउंडेशन हांकांय उपकार व्यक्त करतां.

**-एन. बालकृष्ण मल्या**

## प्रकाशकांलीं उतरां

करळचे एक लेखकाल्या साहित्यकृतीक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चांवर' द्धती खाल प्रकाशन पालव मेळप अजून जावंक ना. पुण आतां पयलेच पावट ह्या नुदानाक पात्र जालेल्या श्री. एन. बालकृष्ण मल्या हांचो हो कविता संग्रह. ताका ागून आमकां खूब संतोश जाता आनी आमी बालकृष्णाक अभिनंदन करतात. शेंच गोवा कोंकणी अकादेमीक आमी धन्यवाद सांगतात.

ायलो चंवर येवप म्हळ्यार एक झाडाच्या सगळेच जीवनांत उडगासाक दवरपा ारखे मुख्य वेळ आसा. चंवर येता, फूल जाता, फळ जाता, सावट दिता - अशी ाड मागीर रूख जाता आनी आपणाल्या जीवनांतल्यान निस्वार्थपणान लोकाक पकारी जाता. हें फूल, फळ कांय तो रूख आपण्याले खातीर उपेग करीनासताना ुसर्यां खातीर व्हांवता. प्रकृतीचो हो नेम केन्नाय चुकचो ना. देश-कालाक लागून हो ेम बदलचोय न्हय.

आमी कोंकणीमातेचीं भुरगीं. वेगवेगळ्या संस्थेंतल्यानय वेगवेगळ्या गांवांतल्यानय आमी कोंकणीची सेवा करूंक कंकणबद्ध आसात. ताका लागून आमच्या वाटेन कोंकणी लेखकांक जाता तितलो प्रोत्साह दिवप हें आमकां संतोश दिवपी काम आसता. तांतुल्यान लेखकाक एक नांव जोडपाक, या पुस्तकाक उजवाड दाखोवपाक साध्य जातलें. आमच्या वाटेन एक लेखक तरी नांव पावता आनी ताका साहित्यलोकांत अंगीकार मेळता तेन्ना आमचें काम सार्थक जाता आनी ताका निस्वार्थ सेवा म्हणूयेत.

एक पुस्तकाक पुरस्कार मेळप बरेंच आसता. पुण पुरस्कारा खातीर पुस्तक बरोवप हें बरेण न्हय. आमकां जाय ती दीर्घदृष्टी. दुसरी दुसरी लिपीक लागून वेगवेगळ्या ाठारांनी विरखून गेलेल्या कोंकणी समाजाक एकत्र करूंक देवनागरी लिपीचो उपयोग करून एकमेकांक समझून घेवपाक आमकां प्रयत्न करूंयां. हें काम सुलभ न्हय. आनी बेगीन जावचेंय न्हय. तरी आमचें लक्ष्य पवित्र आसा आनी वाट शांततायेची आसा देकून आमकां बरेपणाचें सपन पळोवयां.

'जीव संकल्पा' वाटेन बालकृष्ण मल्यान गांतिल्लें विचार म्हस्त ऊंच ना जावयेत. ुण तागेले विचार आशादायक आसात. एक नवोदित लेखकाक येवकार दिताना कोंकणीचें भविष्य केरळांत भद्र आसा अशें आमकां दिसता. ताका तुमचो सगळ्यांचो ोत्साह मेळचें अवश्य आसा.

**- पी.जी. कामत फाउंडेशन**

# सूचिका

## हांव अमरु

जीविताचे विश आटवून
घोटु अमृत पिलो, जिवंत येयलो
हांव अमरु
ना करूंक चोयलेले
काळाक मृत केलो, जीवंत उटायलो
हांव अमरु

कश्ट सर्वै फुल्लांमाळा
करून अंगारि माळलो, जिवंत हांसलो
हांव अमरु
कण्टे पत्थर फुल्लं करून
विजयपथारि सरलो, व्हड लक्ष्य चोयलो
हांव अमरु

पाशाणाचे हृदयविकार
करगोवून[1] पिलो, दुख्खांत हांसता राबलो
हांव अमरु
बंधनाची संकाळ[2] प्रबल
ती तुण्टोवून वळखलो, स्वातंत्र्यांत म्हणिलो
हांव अमरु

पिट्टो करून जीवित-विघ्न
काडून मोडलो, श्वासु खेळून चोयलो
हांव अमरु
मरणभय तेज क्षीण करून
अभय धरिलो, हृदयान नमलो
हांव अमरु

1. करगोवून = धवकून 2. संकाळ = सरपळी, बेडी

## तूं वळखू फूडे

उडगासाचे[1] पानार बरप बरवूफूडे
कालाचे गोन्दोळांत पाय दवरूफूडे
समयाची सूव घूवून येवूफूडे
वळखता हांव, तूं म्हाका वळखूफूडे

पाळांक पेटोवन समिन्द्रु हासुच्चाफूडे
सूर्यान्तु रश्मियो फुटून येवूफूडे
वाऱ्यान उबून धावू शिकूफूडे
वळखता हांव, तूं म्हाका वळखूफूडे

राति आनी दीसु निपून[2] खेळुचाफूडे
सूर्य आनी चन्द्रु मळबार फुल्लूफूडे
भुय्येचे गर्भान्तु जीवु जन्मूफूडे
वळखता हांव, तूं म्हाका वळखूफूडे

आत्म्याचें दर्पण माया भरूफूडे
कर्माचे चक्रांत प्राणु शिरकूफूडे
विशयाचे फोंडांत हात फारकूफूडे
वळखता हांव, तूं म्हाका वळखूफूडे



1. उडगास = उगडास 2. निपून = लिपून

## सौन्दर्याचो संदूक

सौन्दर्याचो संदूक विस्कळ करून मनान
घाल्या अतिशय वर्ण तजे मंत्रुसिले हात्तान
अनंत गगन पडलां सुख दीवून शान्तीन
सर्व जाण म्हणचें ध्यानांत अखण्डमौनान

सांगिल्या हें उंच उबचे काळे धवे मोडान
नवे नवे रंग लावून उक्कूळिचे[1] वर्णान
नृत्य आनी गीत मेळून नवे नवे भावान
हृदयांतु गोड भरून दृश्यांचे जालान

मेघांतुल्यान उबचे मिन्ने[2] परव्यांचे[3] रागान
एक नवो गींतु हांवय बरेयता स्नेहान
इन्द्रनील वर्ण धरून थळथळेवचे समिन्द्रान
सांगिल्येलिं कैरिं[4], उंच आयकिलीं तीं पक्ष्यान

दृश्य किती म्हूण सांगू एक दोनि पदान?
सत्य स्पश्ट दक्केयलेना मांसळ दोळ्यान
कल्पनेचे पार म्हणचा कळू कशी तुजान?
हृदयाचे भाव कळून जाण जावुका सत्यान



1. उक्कूळि = शिगमो / होळिचे तिसरो दीस 2. मिन्ने = ल्हान, सान
3. परवो = पक्षी 4. कैरीं = कार्य

## ग्रहण

पिट्टो रोज्जु जीवनांचो साकु भोरुयां
गोब्बराची धूळि फुंकून कालु वेंचुयां
सौन्दर्याचे पंजीरियांत दीवो सुन्तु जालो[1]
आयुश्याचो वरांकोरण्डया[2] चावि सदळी
मिन्नो[3] बाबु होडु जावून मन्तारो जलो
मिन्नि[3] बाय आज्जि जावून बड्डी काडली
आशा-पाश तरी लेगीत सोडू वाटना
सूत जळलें तरी बेगीन बल सोडना
तुस्सु[4] कांडून हाता पळे फोडु येयलो
हात्ताफोडु पिक्कू सोडून तुस्सु कांडिता
मुत्वावरी[5] दंतमाळा खाल विकरला[6]
उज्वल त्या मुखकान्तीक ग्रहण लागला
श्वासगति शीघ्र जावून प्राणु तडपता
उर्ध्वगति चोवून काळु समयु चोयता
बांधवांचे असंबंध कानु आयकता
दुश्टजनांवरि शाप सर्वै घालता
पूरो आनी लोकां थकून हात काडूयां
देवानाम म्हणून सुखान ताळ धोरूयां

1. सुन्तु जालो = पालवलो 2. वरांकोरण्डो = घडयाळ 3. मिन्नो / मिन्नि = सान
4. तुस्सु = तूस 5. मुत्वावरी = मोतयांवरी 6. विकरला = सांडून गेलां

## वच्ची घडि पावंचे वेळार

लक्षु जन प्राणु सोडताय प्रतिदिन
घिरंगुटेन्तु[1] घुंवताय लोकु प्रतिक्षण
युद्ध खूब जात्ताय वारांतु सत्तैदिन
सूर्या उद्देता अस्त जाता अनुदिन

आतां हो येयलो, लागीक्षण
खंय गेलो? कालु घुंवताय क्षण-क्षण
जाताय एकामागल्यान वत्ताय सग्ग जणं
लोकु केन्नाय वगळे जाताय दिन-दिन

एक्कडे जावूनु जाल्ले न्हयीच कोण
हातु धरून वताय न्हय मृत्यू क्षण
जीवित म्हणचें कोळूका महासंगम
लोकु धांवता धरून घेवून कालक्रम

उते गेल्ले, वगळे वताय सोडनु
सर्वै यशी रब्बुना केदनाय म्हणु
वच्ची घडि पावंचे वेळार मना
रडच्याखतीर क्षण काळु दिना

वच्चे वताय, परतून येवचे नेण
दोळे आसून चोयले म्हणल्याय कोण?
उठा, जागो जावो भित्तेर चैतन्य
ज्ञान भरी ताजान जागो जावो अन्य



1 घिरंगूटि=भोंवरो

## आनंदाचें अश्रुजल

घनघोर काळिं मेघ समूहांरि
चडून देव पोरमोळा उदाक उस्सितताय[1]
तापु शान्त करुक सूर्यान
निपून किरण खाल सोडल्याय

मोड खिंचून भरल्या मळबारि
हांसून धुंधुभिनाद वाजीताय
देव कृपादृश्टि पळेवून स्नेहान
पावसाकण जलधार वर्षताय

सेळ वारें मारता हे तनारि
रोम नीट रोमांचान उटताय
प्रसन्न पाउन भूंय्येले हास्सान
पोरमोळा गंध नंकांत भरताय

सरसर उंचथकून कांडणाधारी[2]
पावसाकण खाल पडताय
हृदयांतु तोपून भूगंधान
रागपुष्प घोस्सांलेकान फुलेताय

वर्षाऋतूच्या सुखदागमनारि
सस्यजाल तिमतशि हांसताय
आनन्दाचें अश्रुजल थेंबयान
जीवांमूळं प्राणु येवून तिम्मताय[3]

1. उस्सिताय = उसळतात 2. कांडणाधारी = मुसळाधार 3. तिम्मप = ओले जावप

## हृदयांतु बंद सपनां

आग्रहं अस्सु मात्र व्हडून फल ना
प्रयत्न करी, आजि आतां जायत करी
देव भूंय लागून येयले हंय व्यर्थ न्हय
रोडचे आमकां मेळूक येयलेना कालि-पयरि

गंगा थंय व्होळुका म्हूणु देवली ना
भगीरथान तपु केल्यावरी तूंवय करी
आग्रहां मात्र फुलता आसून वेचु[1] ना
सपनांक जीवु दीवूनु हासता करी

सूर्या थंय पल्कडि[2] मारून बेसला ना
जोळूनु तीख प्रभा घालून, तशी करी
चन्द्रु शेळवोतु घालून निद्देता ना
नींद खोळूनु पळेयता तो मळबारी

हृदयांतु बंद सपनांक जीवु ना
स्वतंत्र ते उब्बोय उमंगाचे पलंकारि
घूडांतु बंधित भावांक प्राणु ना
अनंत भ्रमण करोय उंच गगनारि



1. वेचु = व्यय 2. पल्कडि = पांय एकमेकाचेर आडवे घालप

## अध्यायु बंद

महानक्षत्र बुडलें शान्त शान्त
लागि मोह खूब अस्त जाल्ले मौन मौन
सपनाचि माळा तुंटली मणियो मणियांवर
होवय रस्पतिचो[1] एक खेळु देवाखेळांत

प्रकाशाचें चिह्न अस्सिलें मळबार एक
ख्याति किति अस्सिली तीनि लोकां भरून
मोहसपनराज्य भेत्तलें[2] कण-कणांवर
होवय हासोवणें एक खेळु देवाखेळांत

इन्द्रधनुषांत उपजून वर्णजाल सासु[3]
आश्चर्यांत उद्गाराचे भारीं उंच
जीविताक गिळता किती मोहभंगांवर ?
होवय हास्यास्पद एक खेळु देवाखेळांत

उजे वोतांतु सूर्या वेगु जाला सुन्न
सासु मोह हांगा जाले ध्वस्त[4] एकसणीं
उजवाडाचे -गीत अंत किती शुन्यावर ?
होवय अध्यायु एक बंद देवाखेळांत



1. रस्पति = मस्करि, फकाणां 2. भेत्तलें = फुटलें 3. सासु = सह-ा, हजार 4. ध्वस्त = उध्वस्त

## समयाची कुराडि

समयाचि कुराडि लागून
पडताय रूक कातरुन खाल
कालाचे रूप भय हाडून
व्हडताय सावळी पडता खाल

क्षणाची सूव घूवून
धांवताय वृत्त म्हणून काल
समयाचे परणे पात्ते झडून
घालताय नवीं पाच्चूविं[1] साल

दिनरात येवून ओप्पुरुत्तून[2]
खेळताय हात्तान मारून पेल
कालाचे तोंडांत किरडून
सरताय जीवितांचे चाल

निमीशाचे[3] झोडु वारें लागून
मारताय भीषण गोळ पाळ
समयाचे भेरीनाद गुंजून
लासल्याय लोक मारताय ताळ



1. पच्चूविं = पाचवीं 2. अप्परतून = परतून 3.निमिश = खीण

## तारे हांसले

गगनारि उदेयले तारे हांवे काडले
हात्तांतु भरले उस्सून[1] सोडले
फुल्लाकुत्तीवरी[2] जळताशि बळेयले
हांसले तारे मळबांत फुट्टले

तणारि निदलेले तारे हांवे काडले
मिन्ने तांचे मिन्ने दोळे रड्ण्यान[3] भरले
हाताचे तलुवेरि काडून स्नेहान फेरले
हांसले तारे मळबांत उब्बले

मोडांतु निपलेले तारे तटास चोयले
काळकांतु निप्पल्ले दर्शन ना दिल्ले
हात्तान हालवून मोडांक फटकारले
हांसले तारे मळबांत भरले

काजूले जळले म्हजें मनांत झगमगायले
वाऱ्याचो वेगु येवून तोळयांत पडले
हातान काडून हांवे गगनारि दवरले
हांसले तारे मळबांत निद्दले



1. उस्सून = उसळून 2. फुल्लाकुत्ति = फुलझडि 3. रड्ण्यान = दुखान

# स्वतंत्र विचार

विचार स्वतंत्र
नीळ मळबारि उब्बुच्चे पक्ष्यांवरी
पांखां धरूनु सुखान उब्बो ते सोरंग्यावरी[1]
कोण रोक घालूक तांका?
चापु सोडनु बाणावरी लक्ष्य सोद्दीता,
धांवता उडकियो मारुच्चे चित्तळांवरी

पागारु[2] फुटता
विचाराचे धारेन फुल्लांवरी
संकाळ भेत्तता पाशाणारि कत्तोरुच्चे दोरियेवरी
एक्कडे धरू ना जात्तलें
हात्तान तशी पाक्कियेवरी[3] उन्मत्त धांवता,
खिळकिळेवन धांवुच्चे चेरडावरी

विचार कशि थांबतले?
तशि मारता पाळांवरी
खब्दळेवनु शान्त जावून आनीकय
झोडु वारयावरी चीरुं म्हूण उब्बता
खाल-उंच सोरुच्चि घोणियेवरी भ्रमण करता,
सूक्ष्म जावून काळखांत चोंवुचे घुगूमावरी

वृत बरवू कशी?
पिडपिडेयता रेवांत मसळेवरी
वेगु काडून भारी शब्दान धाडूक व्यग्र वागावरी
बंद ना जात्तलें तशी
घुडांत घुंवचे पक्ष्यांवरी अनन्त गगनारि
उब्बो ते स्वतंत्र पारव्यांवरी[4]

1. सोरंगो = पतंग 2. पागारु = वणट 3. पक्कि = भिरमूट 4. परवो = पक्षी

## विधीची विडंबना

दोरियान मान्दिल्या
हीं मनोकल्पना
चोयलो हांव आग्रहां
जात्ता व्हडता, रित्तें ना
उब्बूच्चे परव्यांक चोवून
उब्बू चोंवूक साध्य ना
बान्दून सकल घाल्या
म्हजी ह्वदयकामना

किरलेल्याय हे मनांत
सासांलेक[1] भावना
विकरल्याय अश्रुकण
भरता सुकता राबना
सपनांचे सन्दूकांत
निदेवूक तैयार ना
पिडपिडेवन कश्ट केन्नाय
विधीची विडंबना[2]

विसकळेलीं पाखां म्हूण
उब्बूं तशि साध्य ना
तें दिक्कुन राबो थंयीच
उबता सोडूक चोयता ना
घाल्या जड हंजो[3] मनाक,
मन्दूतरी दित्ता ना
भेत्तिल्या संकाळ म्हूण
धावू खंय जाणना

बांदिल्या खुंटियेंत
हंय थंय धांवता, स्थिर ना
मन भरून विकरले
आग्रहांक अन्त ना
बुद्दि हंय वेचु[4] ना
दुख्ख सोरुन वच्चें ना
विधीचे पार कांय ना,
विधीची विडंबना



सांलेक = सह-ा गुणप 2. विडंबना = उपहास 3. हंजो = दोर 4. वेचु = व्यय

## हृदयाचें आयदन

चांदिण्यान परसिलें मद्देरातींत उलदीलें
लोणि लावून चंदमामु पोळो जावून दिसलें
फुल्लां चोय पोरमोळान सासुदळं धरिलें
हृदयाचे आयदनांत प्रेमरंग घोललें

रात्तींफुल्लां माधुर्यान गायलेल आयकिलें
दोळे हे आश्चर्यान दिक्कू म्हूणु पळेयलें
झिग्गि जावूनु काजुले कोटि येवून लासले
हृदयाचे आयदनांतु झग जावून हांसले

दोवु पोणु मैदरांत[1] वज्रांवर उसळलें
शेळियेंत रवळीकांचे[2] गींत भारि गूंजले
तणाचे मंचकांत गोलगोल घूंवले
हृदयाचे आयदनांत ताळ धोरून नांचले

किति आजि अमृत घालून चांदिणे हांसलें ?
तनमनांतु प्रेमरस भरता म्हूण भासलें ?
कोमळ श्रीमुखान मौनव्यंग्य वे केलें ?
हृदयाचे आयदनांत गोड थेंबेवून भरलें



1. मैदरांत = पोरसांत 2. रव्ळीक = रातकीडो

## दोन उत्तरां

बरपां कशी बरेयता तूं
लोकु परवा करता ना
परमळाचि शाय मस्त
वाक्य बरवून अर्थु ना

अक्षराची माळा गांथुन
चांगपणाक शोभा ना
व्यक्त जावून म्हणचेवेळार
दोन उत्तरां उचित ना

भाव गुप्त निपलाय
भायर तरि येवत ना
हृदय जाल्या बन्द म्हणटां
विसकळ सांमकें करता ना

सांगूक आसा भारि म्हळ्यार
पद केवलें वळख ना
स्पश्ट जावून वेळचे वेळार
दोन उत्तरां उचित ना

भांगरा ताटयां धांपून अशें
सत्य सदांच निपता ना
सूर्या व्यक्त उंच जळून
ताका कशेंय नाशु ना

बुद्दि सांगली हड्डें आयकलें
म्हणचें केन्नाय जात्ता ना
व्यक्त जावून सांगचे वेळार
दोन उत्तरां करूंक ना

गोड वाक्य आनी अलंकार
लोकु सदाच आयकता ना
व्हड विशय मोल-प्रचार
आयकूं म्हणूच केवलो ना

विसकळ करी हृदयद्वार
वांकडें म्हणचें वेचु[1] ना
स्पश्ट जावून म्हणचेवेळार
दोन उत्तरां करूं ना



1. वेचु = मोल

## जीविताचो नाद

म्हणलो एक पद, चमकीलो चारि पद
जीवित त्रासद नाटक कीं सुखद ?
म्हणु खूब वाद आनी जात्ता विवाद
किंती कीं कामद कळना खंय मोक्षद

कोडु आनी दुःखद जाल्यारीय वोयद[1]
दीयनाय वे घोटुभर पीवचा जावून ओखद ?
सुगम न्हय भयद, जीवित ना लाभद
म्हणु आस्सून जनपद काडताय ना आपद ?

कंठांतु धरून गदगद सांगतां हे पद
कळता मात्र पाद कळूक आसा त्रिपाद
हृदयांत भरल्यां मद मनांत ना प्रसाद
जीविताचो नाद स्वर हाल्लून आपाद

चांग-बल्लाव[2] भेद जाण जावुका ते वेद
भरतां हांव आह्लाद हरद्यें मनांत आमोद
केल्या छान छंद हृदयघूडांत बंद
कवनाचे स्वाद गोड पीवूंया स्वछंद



1. वोयद = वैज 2. चांग-बल्लाव = बरें आनी वायट

## निमगूफूडें

राति पावून चंदिणे हत्तां येवून लागलें
हातांत काडून चोवुनीक म्हाका सोडून धांवलें
किति की चन्द्रमा अशें तूं करलें ?
म्हूण निमगूफूडें काळें मोड[1] भरलें

धार घालून गगनाक चीरु म्हूण सरलें
शेळवता चांदिण्यान आंगांत घाय पडले
किति कि चन्द्रमा तशें जावून येयलेलें ?
म्हणु निमगूफूडें तोण्ड नेणतना धांपलें

तारे नीळ गगनार झगझगेन दिक्किले
शान्त एक वेळे-रेंव उसळ्याशें दिसलें
किति कि चन्द्रमा अशें रेवांघर केलेलें ?
म्हणु निमगूफूडें हरद्यां पाळ लागलें

काळूकाची राणियेले केसांत येवनु निपले
चांदिण्याचे पेल्यान गुप्त जावनु हासिले
किति की चन्द्रमा तारे तशें चोयललें ?
म्हणु निमगूफूडें म्हजें दोळे धांपले



1. मोड = मेघ

# जीविताची काणी

मनांतु येयलेली, उणे
काणियो न्हय जीवित
बरवून सांगू गेल्यार
जात्तलें तें परिमित
चारि पगरांत[1] सिरकून
चोयताय आमी सीमित
म्हूण करूं जावना मिन्ने[2]
तितलें न्हय, व्यक्त

चारि वाक्यान करूं
कशें म्हूण पूरित
भावांचे भण्डार भरून
विकरून वर्षित
अमृत जावून पिल्यारि
गोड आसा सतत
म्हूण संगू जावना गोडशें
तितलें न्हय, अव्यक्त

हृदयांत येयलेले उणे
काव्य न्हय जीवित
चारि शब्दान सांगू
कशें म्हूण व्यथित
पद्य म्हूण बरेल्यार
जातलें तें असत
म्हूण संगूजावना दुबळें
तितलें न्हय, जीवित

जीव हे जाल्यार कश्ट
केन्नाय, दुख्खित
मनाचे सपनभारांत
दुक्कून[3] पीडित
चारि कोणांतु रबून
चोयले आमी दृश्टांत
म्हूण समजूजावना कळचें
तितलें न्हय, वृत्तांत[4]



1. पागार = दीवार 2. मिन्नें = सान 3. दुक्कप = दुखप 4. वृत्तांत = वर्णन, कथन

## प्रमत्त विधि

आनी म्हजें जीवितयात्रेचे पथ
खंय कि घूंवतलें म्हूणु चोवुका आतां
उत्तूलो घूंवलो हांव राबलोना खंय तं
राबू असाध्य, विधि ही प्रमत्त[1]

जीवित नाटक खेळता जावनु सन्त[2]
कुण्डलाकारु काडून दिवडावरी वृत्त
घुंवून उत्तूली घूंवळि घूंवलो म्हस्त
राबू असाध्य, विधि ही प्रमत्त

सुतली सोडून भोव्रो[3] हें जीवित
कर्म संकाळ कातरून धांवता अतिद्रुत
कळना खंय म्हूण म्हाकाच अव्यक्त
राबू असाध्य, विधि ही प्रमत्त

जन्मु येवून घेतला समय घूवून व्यस्त
सूर्या उद्देता अस्त जात्ता तत्पश्चात
चन्द्रु येवून राति सरून जाता प्रभात
राबू असाध्य, विधि ही प्रमत्त

सुख आनी दुख्ख म्हूण द्वद्वांत, व्यत्यस्त[4]
भावाचे युद्धांत जालो हांव परास्त
जीवंत निश्चल जालो म्हूण अचेत
राबू असाध्य, विधि ही प्रमत्त

. प्रमत्त = उन्मत्त, निर्लज्ज, बेपरवा 2. सन्त = संथ 3. भोव्रो = भोंवरो 4. व्यत्यस्त = विंगड

## नवे संकल्प

विग्रहं[1] ध्वस्त जात्तलीं आनीकय
गेलेले कालांचे उदघोष आतां खंय?
कलचे पदचिह्न[2] धूळियांत दिक्कू नाय
रेवांचिं देवळं भुयांत किरलून येयलाय
फायचे युगारव पळे, आयकू पडताय
पोरणें उडगास दूरा खयींचि गेल्यांय
पाल्ले झडून नवे आनीकय येयल्यांय
कालाखेळांतु सर्वै विसरून हांसताय
व्होळनु गेलेले पल पोरतून आनी येवूनाय
म्हूण आमी माग्ल्यान जालेले ना चोयल्यांय
सर्वै मनांत बन्द उडगासांत घाल्याय
येयलेली वाट सोडून नवे पथारि येवून पावल्यांय
दोळयांत पडलेले सत्य वायट म्हूण आसाय
नवे सत्य आमचे मुखार दृश्य जाल्यांय
पोरणें नायकांचे गोमटे कोयरांत पडल्यांय
नवे नाटकांत नवे नायक म्हूण येयल्यांय
मात्तें खाल सर्वै उंच पावू चडताय
वेदांतु सांगिलें मात्र वादु करून म्हणटाय
स्वार्थवाद म्हणचें वेद जावून भरल्यांय
कालप्रयाणांत परिवर्तन क्षणान जाताय
विग्रहं ध्वस्त जातलीं आनीकय
मुर्थम[3] जलेंलें परतून घडतलें म्हणुखय
मंचकारि नवीं खेळतलीं नाटकं आनी फाय
संकल्प नवे करून घालतलीं जनपदय

1. विग्रह = मूर्त 2. पदचिह्न = पायांचो छाप 3. मुर्थम = फूडे

## आशा

ागरांत मुदयाळे पाळं भरून
ळबाचे पेलतडि वचाक मोह आसा
वदळेन समुद्रांत फेण घालून
ोहाचे पुर्तीत सुखाप्रतीक्षा आसा

जीवितांत कितले मोह भरून
साध्य जावचे पेलकडे वचून आसा
तरंगाचे हातांत हाल्लून धोल्लून
हृदयांत भेरीनादु वाजता आसा

ळबारि नक्षत्रं उद्देलाय चोवून
हंटींत काडून परसूक मोह आसा
ीराचे पथांत बुडून न्हाण न्हावून
ोडु दुद्धापायस पीवूक दाह आसा

हृदयांत म्हजें कितले मोह उदेवून
भांगरालेपान चित्र बरेयता आसा
जीवांत श्वास नवो उत्साह भरून
कालाचेर जयु काडूक आशा आसा



1.. दाह = तान

## अस्थिर जीवन

परिवर्तन अनिवार्य हें लेकूक
पोरणें सोडून नवें रंग धरून येवूक
अवतारसरी गेले सोडून लीला जावूक
कोण ना स्थिर जावून केदनाय राबूक

उणे श्वास हृदयांतु काडून दवरूक
जीवित एक श्वासाचें म्हूण कळूक
मृत्यु म्हणु उछ्वासांत करगूक
कोण ना स्थिर जावून केदनाय राबूक

दोळयाच मुखार आसा वे स्थिर एक?
जीविताचे पथारि हांसूं म्हूण चोवचाक
मूक निश्चल मराणातोण्णांत वचाक
कोण ना स्थिर जावून केदनाय रबूक

फूल विसकळेनु खाल पडून करपूक
सौन्दर्याचे छान मुखपड घालून भोवूक
यौवनाचो कालु सरून म्हांतारे जावचाक
कोण ना स्थिर जावून केदनाय राबूक

जीव येयलाय चारि पल जीवूक
नवे वर्ण लोकांत भरून दीवूक
तारे भेत्तून स्वर्गारि थाकून पडूक
कोण ना स्थिर जावून केदनाय राबूक

## सर्वथा हे वेळा

वेताक धरून बांदि तूं हे वेळा
यांत कर्गलें[1] बाश्प तें सर्वथा
ग्रहांचो झोडु घूंवून मारुचे हे वेळा
एक लक्ष्य ना लागता म्हूण सर्वथा

राबता न्हय, विचार मारुचे हे वेळा
हृदयांतु विकारांचे कंपन सर्वथा
जीवितांत पाळ लागून फुटचे हे वेळा
दुख्ख मात्र मात्यारि बरेयला सर्वथा

ग्री म्हणु भेरीनादु मारुचे हे वेळा
द्राचे काहळ[2] आयक तूं सर्वथा
सु खाल उंच खेळुचे हे वेळा
मिश मात्र मेळयां कळ तूं सर्वथा

लोकु एकेक वाट सोडून धांवुचे हे वेळा
धरि तूं एकडे मनाक बांदूका सर्वथा
समयाचे चलन कोळूका हे वेळा
जीविता दिशा चोय घूंवतासा सर्वथा

र्गप = विरगळप 2. काहळ = इशारत

## स्वार्थ

सुख तागतागेले मात्र सोद्दुच्या ह्या लोकांत
कश्ट वगळयाले कोणय काडतलीं ना कैर्यांत
मन काळूकाचे रंग धरूचे कलिकालांत
गुण मनीसाले खर्यीं व्हरतले ना मात्यांत

स्वार्थ, रूप घेवून खेळचे नाट्य खेळांत
दूसऱ्याले काणियांक अर्थु मेळू कित्यांत ?
अवतार जन्म घेवून येत्तलम्हणचे वेळांत
उजवाडाची रश्मि एकि मेळना भिणभीणि[1] काळखांत

नंकाकुटिको[2] गेलोलो रायु नांक नात्तिले राज्यांत
मंदबुद्धि व्हडु हांगा बुद्धिनात्तिले कथेंत
दूसर्यांक सुख मेळचें सायता[3] नात्तिले दोळयांत
पिय्यों[4] भरून, पीडा दीवूक, कांकण मांदिल्या हात्तांत

भायर एक भित्तेर एक उतूलुत्तूले रूपांत
काणियांक अन्त जायना, जन्मु घेंवचे लोकांत
नाम-रूप चांग आसा, सांगता एक पदांत
म्हाका मात्र सग्ग मेळका, वेगळो वचो फोंडांत



1. भिण्भीणि = भीषण 2. नंकाकुटिको = नाक कातरो 3. सायता = सहन 4. पिय्यों = दुस्वास

## आवाहन

ालप्रवाहाचे सीमेक लांघून
ीविताचे रहस्य जाणुका हे म्हाका
ाणनक्षेत्राचे पेलतांतु पाउन
ीवरहस्याचे नाटक चोवूका हे म्हाका

उणेच कालु व्हरलो म्हणु सांगून
जाण ना कांय जात्तोलो हांव ताजान
मुक्त जीवांले आवाहन आयकलो
एकडे ना कांय राबतलो हांव हजान

ात्र निमीशांचे श्वासांक खेळून
ाक्कूटाचे[1] जीवन जीवूका हे म्हाका ?
जन्म-मरण क्षेत्राचे पार जावून
ुग्ध होउन हांसूका हे म्हाका

उजे वोताक सहलो म्हणु सांगून
कळता ना कांय जात्तोलो हांव उजान
मुक्त श्वासांलो अर्थु जाण जाालो
पल्कडि[2] ना आनी बेसतोलो हांव अज्ञान



. पक्कूट = पतिंगा 2. पल्कडि = पांय एकमेकाचेर आडवे घालप

## पूर्व कथित

मनीशु तागेले उणे काणियो घेवून
देवूंचे मुर्थम[1] अस्त जावूंचें हें जीवन
जन्मु घेवून, श्वासु खेळून-हांसून
येवूंचे मुर्थम व्यस्त वच्चें हें जीवन

दोळे विसकळ जाले ते दाकवून
चोवूंचे मुर्थम नश्ट जावूंचें हें जीवन
आशेन उणे सपनां मनांत काडून
घेवूंचे मुर्थम ध्वस्त जावूंचे हें जीवन

मनीसु वृथा अहंकारु किती काडून?
चुटकि मारचे मुर्थम खंय वत्ता हें जीवन
चोयता हांव आश्चर्याचें मुख घेवून
वेगु धोरुचे मुर्थम विद्युत्प्रवाह हें जीवन

कळचें कोणाक, मनांत खंय दवरून?
कळचें मुर्थम उडगासाचें हें जीवन
हांव सांगिल्या म्हूण हासून ना सोडून
आमचे मुर्थम कळलेले सांगचें हें कथन

1. मुर्थम = फूडे

## मळबावयलो आघोषु

विकरले[1] सुन्दर सपनां जावनु तारकं
भासले मळबार हासूं म्हूण फूललीं
विचरले गगनांतु झोल्ले जावून तारकं
हासले झगझगेवनु प्रभा घालूंक लागलीं

नीळ ही निशेन्तु शलभं जावन नक्षत्रं
मोवुमोवु हात्तान उंच म्हूण उळदिलीं
सुख दीवून सुन्दर हासताय चोवून मानस
क्षेत्र भरून उजवाडा स्फोटनां चमकलीं

हृदय-हारुन तोपुचे बाण ते मारक
लागले चित्तवनांतु, फुल्लांघोस फूललीं
थळथळ पाळांतु दीवे जावून किरणं
म्हजे मनोदर्पणांत आश्चर्य म्हणु जागलीं

परसिले म्हजे तनाक स्नेहु करून सारस
पक्षियो कळकळ आरवान उबलीं
वज्रावर तीक्ष्ण प्रभा घालून पटाखां
उंच जोळून, घोषु थंय आघोषु म्हूण सांगलीं

1. विकरले = पसरले, फाफडले

## सपनाचो भांगरा करंडो

सपनाचो भांगरा कोरंडो[1]
विसकळायलो हे मनान
सपनां तीं चित्रशलभांवरी[2]
भायर येवून उबताय जालीं
रंगारंग उजवाडान
लोकु हो झगझगेवून
मिन्ने मिन्ने काजूल्यावरी
सपनां हीं भरताय जालीं
चित्रवर्णपतंग तानि
पांखं घेवनु उंचारि उबून
वर्णराजि विकरल्यावरी
तेज घालून जळताय जालीं
कुसां तंचे फाटीर चडून
मंत्रलोकां पावलो मनान
मायाजाल पार गोपूरारि
इन्द्रलोकांत देंवताय जालीं
चिक घडीक मगन जालो,
हांवय देवु जाला हासून
भंगराचे चंद परव्यांवरी
देव रथांरि उबताय जालीं
क्षण भुंयेंर पडळो काळखांत,
सपनाची माया सरून
कवोळनु आग्रहां फोडद्यारि[3],
निद्दांत म्हाका व्हरताय जालीं



1. कोरंडो = पेट 2. चित्रशलभ = फूलपाखो 3. फोड्दो = पड्डो, यवनिका

## पावसाचो मास

थेंबे थेंबे जावून पडो रे पावस
हृदयांतु कितलसिलो म्हजी आस
उटायला श्वासांतु आजि श्वास
पावसु पोडो, आतां पावसाचो मास

छरछर पडो कांडणाधारीशि[1] पावस
गडगडेवून उबो मोडाचो कपूस
घालि मेघां तुमी जीवांतु श्वास
भूंय भरो आतां पावसाचो मास

गरज नादु करून पडो रे पावस
इन्द्राच्या सेवा करून हांसताऽजा हास
मेघां आमी हांगा भूमींतु वास
मन भरून पडो आतां पावसाचो मास

मळब भेत्तुन मोडां! घालाय रे पावस
खाल आमी आसु धरिला सास
अमृत उसून[2] घालि दूदशि पावस
हृदय भरून, आतां पावसाचो मास



1 कंडणाधार = मूसलधार 2 उसप = उसळप

## पाडवो[1]

जीर्ण वर्षाचें अवसान[2] श्वास खेळून[3]
वचो हें कश्ट-नश्टाचें एक वर्ष
रगतां कितलीं पडलीं हंगा मनीसाली
वचो हें दुख्ख-दुरिताचें एक वर्ष

रगताचे वर्ण घालून त्रिसंध्या समय
वचो हें रडण्याचें, दोशाचें एक वर्ष
कितले युद्धाचे शंखनाद वाजले
वचो हें युद्धाचें, भयाचें एक वर्ष

फाय तं नवें एक युग येवुचाक
येवो भाग्याचो संदेशु घेवून नवें वर्ष
संतोशान चोयता, एक भाग्य दीवून
येवो सुख-शान्तीचें नवें वर्ष

कितलीं आग्रहां सफल जावूंचाक, मनीसाले
येवो नवो जीवु घालनु सुखाचें नवे वर्ष
आनंदाची घडि सग्ग[4] प्रतीक्षा करून आसय
येवो नवे उमंग दीवनु नवें वर्ष

दीपु घेवनु राबिलाय, आशेन तं मानव
येवो नवो दीवो दाकवून नवें वर्ष
आनंदु सर्वत्र घालून, स्वर्णरथारि चडून
येवो नवो प्रकाश घालनु नवें वर्ष

1. पाडवो = युगादि 2. अवसान = अंतीम 3. श्वासु खेळप = स्वास घेवप 4. सग्ग = सर्व

# स्फटिकाचो घूडु

जीवित एक सपन, सपनांतुलें दर्पण
हारश्यांतु बन्द हांव चोयतां हें सपन
स्फटिकाच्या घूडांत मनाचें प्रतिफलन
बद्ध जीवु एक हांव चोयतां हें सपन

वर्णाच्या सपनाचें करूं कशें वर्णन?
बुडून हंय पड्ळा हांव भायर ना गमन
आकाशनगर एक उदेला तेच क्षणान
केन्ना सोड्‌न निपता म्हूण सांगू जातलें कोणाच्यान?

जीवितमाळा गांतील्या निमीशांचे फुल्लान
फुलां गळून माळा ही जाता सान बेगीन
खूब हांसचे मुखान रगताचे पाकळीन
पारमाळाचे संग फुलां विसकळेंवचें सपन

चोयतां हांव सुन्दरांतु सोबीत फुलांचे आनन
शोभेक पळोवून मुग्ध जाला हांव सुखान
जीवित म्हणचे सपन मनांत आन्दोलन
स्फटिकाच्या घूडांत बन्द सोडून मनभावन

## विकाराचें तूणीर

उलेयले उत्तरांचे मोल कोण चोयता ना
दूसऱ्याले हृदयपीडा चोवूं घेवून कळता ना
विकाराचे तूणीरांत[1] अस्त्र सोरून वत्ताना
चीरून तीर लाग्ल्या हरद्यांत दूकि म्हणतां वत्ता ना

समिन्द्रांत मारता पाळ अंत हाजें येत्ता ना
विकारान फुटता रेवांघर, केन्नाय राबत ना
मन अशान्त, मेळू शान्ति साध्य जावू वाट ना
बाणु जावून तोपुचे वाक्य सुटता म्हळ्यार जायत ना

तोप्पता येवून अंग-अंगांत, दया हान्तु थोडें ना
वाद-विवाद केन्नाय हृदय म्हणचें आयकत ना
कोपु चडून येयला मागीर व्होड सान कोण ना
उलोवूका किती म्हणचें उलोवुंच्याक कळता ना

विकारांचे तीर काडून जारल्या जाल्यार चूकि ना
दूसऱ्याले हृदय भेत्तो तांतु कांय दुखी ना
काडून सुटल्या अस्त्र कितलें म्हूण लेक ना
बंद करी तोंड तुजें, दोशु हंय गुण ना

1. तूणीर = बाणांचो भातो

## रातीचे रहस्य

निद्देलो हांव सपनांतु बुडून
गगन, तजे पेलेतांतु सरुन गेलो
नक्षत्रं थंय जोळचे कडे पावून
प्रकाशाचे प्रभापाळांत न्हावून येयलो

मळबाचे समिन्द्रल्हारांत खाल पोवून
मिन्नि मसळ्यावर तारे वत्तांय हांव चोयलो
वज्राचे हार वे जळता सत मानून
नक्षत्रराश्यांक उळ्दून[1] हाडचाक चोयलो

मळबाचि न्हंयेंतु मोहांक एकेक काडून
मल्लिं[2] करून चंग तारे हांव सोडलो
न्हंयचे पाळांत वृत्त घुंवळ घूवून
गगनांत अनंत संचाराक बळेयलो

रातीन केसांत तारे एकेक माळून
काळखाचे पेलतांतु घाल्या हांव चोयलो
रातीचे रहस्य करूं म्हणु मनान
निशेचे व्हंटींत सुखान पडलो



1. उळ्दून = उलो दीवून, आपोवून 2. मल्लिं = दीवे

## असंभावित

कोण ना केदनाय लोकांत सुरक्षित
कालु हो धांवता एक ताळारि निश्चित
मरण सगटांक बरेयला सुनिश्चित
मनांत दवरल्यार तेंचि तुमकां उचित

उदाक पद्माचे पाल्यारि असुरक्षीत
तशी मनीसाले जीवित अनिश्चित
जीवित व्हावंताय[1] लोकांत, समयु हो किंचित
हांतु सुख मेळू जावूंका म्हणचें अनुचित

एक दूसऱ्याक चोयता म्हूण अपरिचित
मेळताय वटेर, विधींत सुपरिचित
सोडून वताय, कळता वचें नियोजित
कालु हांतुं विधित वत्ता सुनियमित

जनन-मरण कालांत घूंवनु प्रवर्त्तित
चक्र तं घुंवता हे लोकांतु अनवरत
अमरु कोण हांगा? जावूक असंभावित
करू गेल्लेले आसा कोण आतां जीवित?



1. व्हावंप = उबारून व्हरप

## रहस्य संकल्प

गुप्त जावनु उणे मुखभाव
येत्ता-वत्ता आसतले मनांत
देवाले नाटकाचे खेळांत
दृश्ट इत्याक जाले, कोण जाण जाले?

साध्य वे कोणाक हे रहस्यांक
उद्‌घाटित करूक उणे पदांत?
देवाले हृदयाचे ते घूडांत
कोण खंय पावले, कोण सांगतले?

मौन जावून हातान हृदयाक
धरतले विशयं म्हूण जीवितांत
देवाले मायेचे मंदहासांत
लिप्त जालेले जीवांक किती कळतलें?

मनांत येवून स्नेहान गुणभाव
रंग अनेक भरतले जीवितांत
देवाले रहस्याचे संकल्पांत
पडलेले जीव खंय धांवतले?



## अमृत विचार

देह किती करू, विचार मात्र खंय
राबतले केदनाय अंत जातेरीय
हाड आनी उणेचि मांस मात्र खंय
लासतलीं, जीवांक मुक्ति मेळतेरीय

देहकान्ति सालिचो[1] मोह मात्र खंय
आत्मा अमरु सदा मरण जातेरीय
हांव-तूं सब्बाव[2] जल्पन मात्र खंय
फोड्दो[3] लासता ना, चलचित्र सरतेरीय

सपनाचे एक जाल मात्र खंय
आसतलें हें सपन अंत जातेरीय
विश्वासाचें एक मंच मात्र खंय
जीवित हें केन्नाय, माया आसतेरीय

काल हे चिके क्षण मात्र खंय
पड्ळा महाकालु कल्पांत जातेरीय
हांव हे सांगता विचार मात्र न्हय
राबतले केन्नाय, सर्वांच अंत म्हण्टेरीय



**1. सालि = चामडि 2. सब्बाव = अर्थहीन, व्यर्थ 3. फोड्दो = पड्डो**

# कालाची विक्रिया

ांग वेळार पळे तूं, हासताच सग तुका चोवून
ूंवनु जाल्यार कोणत्तं येत्ता एकु तुका चोवून
ासता हांव अंतहीन कालाची विक्रिया चोवून
ांवताय सर्वै तागतागेलि स्वार्थाचि वाट चोवून

पुन्नवेचे मुख घेवनु उदेवुंचे चन्द्रा चोवून
रात्तीचीं फुलां दळ विसकळ हांसताय चोवून
काळखाचे मुख कोरून येवची उम्मासे राति चोवून
हांसचीना फुलां, भीवनु निपताय म्हणु किती चोवून ?

मोव्रे उबून येत्ताय विसक़ळेंचे फुलां चोवून
करपले फुलं खाल पडताय तांका कोण चोवून ?
हांसता हांव लोकाचे चलनाचो खेळु चोवून
नेमगिताय सुख सर्वै तागतगेले स्वार्थ चोवून

ऐश्वर्याचि माळा घालनु हासुचे एकु मनीसा चोवून
भांगराचि आरतियो उवाळताय ताजे रूप चोवून
दुख्खाचे कांटे चडून रोडचे हे मनीसा चोवून
काळखाची साया मात्र आसताय ताजे रण्णे चोवून

## कळूनात्तिल्लें

सर्वै स्मृतियांतु बन्द जालेलें
कशी कळतलें हांव सांगूनात्तिलें ?
मनांत बन्द गुप्त निप्लेलें
कशी येयलें म्हूण कळूनात्तिलें

सर्वै मनांतु लिप्त[1] जालेलें
कशी सांगतलें हांव म्हणूनात्तिलें ?
हृदय कूडांत गुप्त गेलेलें
कशी विस्कळ म्हूण कळूनात्तिलें

ल्हवूच जीवितांतु मोवूच येयलेलें
तशी थंड स्मृतियांत दिलेलें
मनमुकुरांत निपून[2] नुतोच[3] बेसल्लें
तशी लिप्त म्हूण कळूनात्तिलें

पाउसाकणावर पडून तिमलें
हृदय आर्द्र करून चडून येयलेलें
मनांत भावनाबीज ओंपलेलें
तशी विसकळ म्हूण कळूनात्तिलें



1. **लिप्त = थापप** 2. **निपून = लिपून** 3. नुतोच = **गुपचूप, मौन**

## दुख्खार्द्र राति

ख वे आसला दिनभर
ति येयल्या दु:खरस घेवूनु
न्द्रमा दोळयांत शोकरस भरून
घ पांवल्यां रक्तवर्ण लावून

तारे भरून नीळ मळबारि
क्रंदन केल्यां तें दिक्कून
रडचे मोडांक रोणाका म्हूण
सांगिल्यां खाल पडलेलीं फूलां रडून

णांत जळताय पावसाचे कण
दिसला राति रडता हांगा बेसून
ण्याचो भारु सहन जायना म्हूण
ारता शेळ वारें रण्याच स्वरु करून

दूरा काळखांतु खंयीच
मौन रडला रहस्यांतु निपून
दुख्खाचे आर्द्रभाव हुंगून
पडला पावस अनन्त दुख्ख म्हूण



## श्रेयोमार्ग

आनी कशी वच्चूं मुखार म्हूण
आसा वे प्रश्नु कोणय निमगीता?
वत्ताय सर्वै वच्चा आमकाय म्हूण
तशी तं प्रश्नु हांगा येवनु राबता

एकलो सरला वचूं मुखार म्हूण
वाट चंग कोण आतां निमगीता?
सरताय मागल्यान वे वच्चा मुखार म्हूण
तशी तं चलन लोकाच जावून राबता

लक्षु जणं वत्ताय मुखार म्हूण
हांव मात्र किती यशी निमगीता?
करनाय प्रश्नु कोण, वत्ताय मुखार म्हूण
वचाक सांगून हें युक्त राबता

लक्ष्याक चोवून आमी वचूं मुखार म्हूण
सांगता वे हांवय तुमगेलागी निमगीता
वाट विधित देवान दिल्या मुखार म्हूण
आशीश घेवूना थंय श्रेयोमार्ग राबता



## पाळांचे मोह

वदळेनु[1] नांचले पाळं उंच पळेवून
वलां काणु उंचारि दवरूक मोह म्हूण
दोळान हांसले घोर घोर ताळे करून
त धोरून मेघांरि चडूक मोह म्हूण

उबले पाळांचे मोह तीं मेघ जावून
वेगु काणु मळबाचे हृदयाक लागूं म्हूण
व्याप्त जावनु नीळ मळबाचो हासु चोवून
सांगिल्या उंचारि पावूक मोह म्हूण

जो घालनु कोप्पूच्चो सूर्याचे मुख चोवून
येले ते मोह एक्केक थडथडेवून[2] उब म्हूणु
ल पोणु तेवेळा रडले पाळं फेणु घालून
इडें मारून एका-उंच चडून दुःख म्हूण

उब थंय उबले खै काळिं झुण्डां मोड जावून
गरजले सुर्याक निपोवून कोपु म्हूण
क्रोधु काडून वर्षले रण्याकण खाल घालून
पाळांतु पाळ जावून जलकण करगो म्हूण

खवदळ - खदूळ 2. थडथडेवून = कांपून

## पावसाचो नांचु

पावसु पडलो तशी पडतच राबलो
अंत ना हाका म्हणटाशी सांगिलो
क्षणभर जावूंनाच जावूंनाच म्हणलो
हांवय चमकलो, राबनाशी सरलो

कणकण वर्षून तिमताच पडलो
धमाधम काण्डणा धारेशी वर्षलो
प्रळयाचे मुखान बुडताच भरलो
हांवय हांसलो, राबनाशी सरलो

रड्ण्याचे क्रंदन करताच पडलो
दोळ्यांतु अश्रूची धाराशी रडलो
मोडांक पिंजून विकरताच भरलो
हांवय पळेयलो, चोयताशी सरलो

रेवांतु करगून गांदच[1] फाफडलो
न्हाणोवूनु परमळ शिंपताशी राबलो
मुदयाळे वाऱ्याचे संगच नांचलो
हांवय लागलो, थांबुनाशी नांचलो



1. **गांद = चंदन**

## जीवसंकल्प

चिंतासरण्यैंतु[1] उभरले संकल्प
हो लोकु जाला तशी खेळु येयला
खेळांत न्हंयेचे पाळांत व्होळनु
हो जीवु येयला म्हाजो लोकु जाला

सृश्टियेचे कारण मनां उभरले संकल्प
हो कालु जाला तशी समयु येयला
समयांत जीविताचे बन्धनांत पोणु
हो प्राणु येयला म्हाजो वासु जाला

अनन्त प्रकाशान चोयला सपन
ही सावळि जाल्या तशी रंगचित्र येयला
चित्रपटांत खेळचे रंगपात्र जावून
हो जीवु येयला म्हाजी काणी जल्या

अव्यक्तभावांत नादु वाजलो सुव्यक्त
हीं नांव जालीं तशी रूप येयला
रूपांत नांवाचे सागरांत पोवनु
हो जीवु येयला म्हाजी सृश्टि जाल्या

1. चिंतासरणि = **विचार/कल्पना पथ**

## संगीत सुधारस

सातस्वरांची वर्षा घालून
नादपयोधर[1] गगनांत उटलीं
अमृतवर्षिणी रागालापान
अमृतकण भुयेंत शिंपिलीं

वाद्यसुखाचो रोमांच हाडून
घनाघन धुंधुंभि वाजलीं
कर्णपटांतु गुंजन करून
शीतपवन आंगांत मारलीं

चारिदिशा उज्वल शोभेन[2]
विद्युतस्फुरणं भुयेंत झरलीं
हृदयस्वर द्रुतगति धरून
मेघनाद प्रकंबन[3] धरलीं

रागु मेघमलहार म्हणुन
छरछर पावसाकण पडळीं
रागस्वर ताळ एकडे मेळून
मधुर संगीत सुधारस वर्षलीं



1. पयोधर = मेघ 2. शोभेन = सोबाये 3. प्रकंबन = कडकडो, थरकरो

# बुदवंतकायो

आजि थाकून फायवर[1] भरून समयु
लोकु बुडून हंय येयला नवो लोकु तं
पीवुंचाक खोल्लो ओंठाक पांवचो समयु
उदाक अट्टून[2] हंय उबला बाश्पकण तं

खंय कालचो लोकु? आजि नवो लोकु
गेला उडगासांत तो पोरणो कालु तं
श्वासु सोडून धरिला तूंवें नवो प्राणु
मन क्षणक्षण नवो रंगु धोरचो पेलु[3] तं

वोत गेल्या, आतां जाल्या पावसाकालु
उजो वर्षता खंय? हांसून मळबार मेघं तं
सोडनु गेल्या सकळ कालचो मेळल्लो लाभु
मेळता आजि सग्ग कालि मेळना जालेलें तं

जीवितांत नवे रंग भरून येंवुचो कालु
कालचो वर्णु खंचो? फाय कळना कसलो रंगु तं
आयकूनात्तिले पडले लोळणु धुळियांत नाशु
लेक लेकून चमकूं म्हणचें बुदवंतकायो तं



1. फायवर = फल्यां मेरेन 2. अट्टप = दाट जावप 3. पेलु = पेल्ल

## दोवु

कापूसावरी दोवु पोडुच्चे शरदकालातु
भंवराचिं मेघं उब्बुन खेळुच्चे थंडवेळांतु
शिंय्यारो[1] पोट्टोवनु म्हाका धोरुच्चे निमीशांतु
येवूक कितली प्रतीक्षा केल्लि हांवे धुवरांतु

किती चूकि केल्लि हांवे पूर्वकालातु
येवून पावला एकांत हे शिंयारे दोवांतु
किती चंग जत्ता तूं आसता जाल्यारि हांतु
म्हूण कितली प्रतीक्षा केल्लि हांवे शून्यांतु

वाट दिकूक येयना मुखार दोळ्यांतु
दृश्टीन्त कांय पडना चोवूक गोचरांतु[2]
सत्तें धोर्नु राब्बिला दोवु हे वाटेंतु
काळोख म्हळ्यार, प्रतीक्षा करून हांव पथांतु

रूप येवून सावळियो वत्ताय स्मृतियेंतु
परिचित ना कोण, नेणय कोणाक अर्थांतु
बेसला चोवून वाट तूं येंवुचे निमीशांतु
बिंबावर स्थितु हांगा प्रतीक्षेन हांव दोवांतु



1. शिंय्यारो = शिंयाळो 2. गोचर = स्पश्ट, आकलनीय

## पदचिह्न

झगझग रेंव थळथळ[1] पाळ
तूं म्हाका चोवून हांसता जा हास
अनंत गगन शांत ही वेळ
तूं हांसु हांसून खेळता जा खेळ

कोण घाल्या हांगा हीं पदचिह्न[2]
चमकूयां दवरून पावलांचिह्नारि पाय
हासता तो समिन्द्रु बोब्बो घालून घोर
खेळता चोय उडकियो मारता हा ! जोर

वेळ चोवून तीरार धांवूया खूब
खाल पडून हांसुच्चि वेंचुया जीब[3]
शिंपियेचि कारिगरी[4] पळे ती चंग
हस्तंदान केल्यावर पड्ळ्या ती म्हस्त

पाळां येवनु मारताय, शेळि ही रेंव
हातान मांदून रेवांत करूयां घर
तूं लागि मेळ्यार शान्तच हे तीर
हात तूं धरिल्यार वचुयात पार



1. थळथळ = चकचक 2. पदचिह्न = पायांचो छाप 3 समुद्रजीब = समुद्रफेनी 4. करीगरी = नक्षीकाम

## सांजेवेळ

उंच उबले मेघं सूर्या घेवनु
सागराक केल्या भांगरारंगु
पाळांत न्हावून, चांग निपता जावून
मळब नीळ केल्या निशेंत हांसु

सांज आजि पळे सुन्दर हांसून
घालता ती स्वयं वर्णजालु
पाळां मारून, रेंवां खेळताय जावून
मळबाकेसावरि मेघं उबतायं

सूर्या सरता पूरा काम जावून
मळबां भरून ताजे महातेज
दीसु सरून, मन ध्यान धरून
राति पावूक आनी अल्पक्षण

शान्त तेजांतु उदाक तीर्थ जावून
पाळ लागून पुण्यजल जाल्या
निशा पावल्या भारि आलस्य घेवून
चंदिण्याचो आनी खेळु चोंवकू



## मोहन राति

मोहन सपनराति म्हणु जागली
उवाळून मंगळारति[1] काणु दक्केयली
इन्द्रनील पद्माचे सौरभ्यान फूलली
रूपांतु अप्सरा जावून दिसली

दृश्यांतु सुन्दर तोरणं कोण मांदिलीं
थळथळ शिंप्याच्ये हासु म्हणु हासलीं
हात्तान वीणा काणु वाजपाक लागलीं
मुदयाळे केस ते मेघं येवून भरलीं

शीतळ न्हंयेचे पाळांतु नांचली
चांदिण्या दर्पणांतु मुख ती चोयली
तारकां निड्ळार झगमग जळलीं
हांसु ती हांसुनीक रत्तिफूल फूललीं

मोवूच ते अधरान गालारि चूमली
चुम्बन लागूनिक सपनं फूललीं
वज्राचीं पाखां घेवून उंच येवून हांसिलीं
मळबांत तुंटल्लीं फुल्लां ती माळली



## स्वल्प उणे आग्रहां

आग्रहं सगटांकय आसता म्हणु जालिलिं
सपनं म्हणु स्नेहान नांव आमी दिलीलिं
जीवितांतु जावूक आशा येवून चोयलीलिं
स्वल्प उणे जात्तलीं उणे खाल पडतलिं

हृदयाचे पेटयेंत डप्पावून निद्दायलीं[1]
मनरंजनाक नृत्य खूब केलीलिं
जीविताक दिशा एकि नवी म्हणु दिलीलिं
स्वल्प उणे जात्तलिं उणे खाल पडतलिं

फुल्लांचे वोण्टांत म्होवाकण भरलीलिं
विकरूफूडे तीं खाल व्होळनु थेंबलिं
गोडशीं तीं आसीलिं सांगू ना जात्तलिं
स्वल्प उणे जात्तलीं उणे खाल पडतलिं

सुखाचे स्पंदनान स्वर्गद्वार दकेयलिं
हृदय फारून[2] गेल्लीं तीं मनां पुराय राबिलिं
मोहालस्य[3] केलीलिं मोगा हासु हांसलीलिं
स्वल्प उणे जात्तलीं उणे खाल पडतलिं



1. डप्पावून निद्दायलीं = पाळण्यागीत म्हणून निद्दायलीं 2. फारून = चोरी करून
3. मोहालस्य = मूर्च्छा

## कर्माचे डावपेंच

ीविताचे चक्रार सरता म्हणटां मुखार
ग्रडता म्हस्त[1] पथार घुंवता प्रदक्षिणार[2]
भातां हंगा म्हळ्यार आजि सांगू जल्यार
हणप कशी धैर्यार फाय थंय जाल्यार

धरून एक निसणेर बेसला कदेलार
उबता तवळी मळबार पांवता पळे स्वर्गार
चडता उंच मेघांर, हांसता पळेवून भूंयेर
सपना भांगरा रथार, राया हावभावार

वेलूदाचे खट्ल्यार, पडला सुखशय्येर
पळे म्हाका उंचार, हांसला अट्टहासार
संगुच्चेफूडे वटेर मांगता भीख कात्ट्यार[3]
रडता पडून धडीर, चरता हून रेंवार

जीवित म्हणचें प्रश्नार उत्तर बरवू बेसलार
जीवु दळमळार कर्मा डावपेंचार
दिवड-निस्सणे खेळार चडून देंवुचे वेळार
अंत नात्तिले गमनार राबचे म्हणचें विशमार

समया वरांकोरंड्यार[4] सूव घुंवता वेगार
कळना केन्ने क्षणार पाशु पडता गोमट्यार
देवा मायाजालार जीवित म्हणचे मंचार
जीवु हंय चक्रारि घूंवता गोल वृत्तारि

. म्हस्त = भरपूर 2. प्रदक्षिणा = वाटकुलांत घुंवप 3. कट्टें = माची 4. वरांकोरण्डो = घडयाळ

## भरो एक सुंदर प्रभातय

सूर्याक ग्रहण लागता ना केदनाय
घडीक काळोख भरता म्हणु सांगताय
क्षणान किरण प्रभेन देवनु येत्ताय
भूमीचे सुंदर फुल्लांक चोवून हसताय

काळखाची सावळि ना राबतलीं केदनाय
सूर्याची वाट सोडनु सर्वथा धावल्याय
वाऱ्यान्तु मेघांवर छिन्न ना जाताय
भिसरावुंचे[1] मुख चोवून सुन्न ना जाशाय

दख्खाचे सायेचि परीक्षा म्हणु केदनाय
सुंदर हांसल्यारि तीं साडडून धांवताय
हृदयाचे बलान जयु काडून घेयाय
क्षणान ज्ञानाचे कोळे येवून भरताय

प्रतीक्षेचे अमृत गोड्शें म्हणु केदनाय
हृदयाचे फुल्लांत भोवरे म्होवु पित्ताय
मनाचे कवड विसकळ तुमी घालाय
जीवितांत भरो एक सुंदर प्रभातय

1. भिसरावुंचे = भेश्टावपी, भयानक

# काळखांतली वाट

यु दोव्वोरुका ल्हवू फुंकून
र्डो[1] न्हय म्हळ्यार वोच्चुका चोवून
क्र घूंवनु वाट व्होळ्ळि[2] जावून
क्ष्य काळखांत आसला निपून

वाट भरून आसा काळोख चडून
उजवाड नात्तिलो भिणभीणि[3] जावून
मुखार एकीय ना उजाकाड्डि जळून
लक्ष्य पावू वाट कशी म्हणून

ाट व्होळ्ळि मार्गु सोदूका चमकून
ाशी वचें कि वचूं तशी घुंवून ?
त्तरां जाल्यार कोणालासा मेळून ?
मकता हांव मनालागि व्यर्थ सांगून

मंद कुड्यांवरी मुखार सरतां फाटसून[4]
पडता फोंडांतु पायाक तोपलो पात्थोरु नेणून
देवस्मरण म्हणचें कवच केन्नाय पांगरून
देवु नेणता न्हंय वळखता म्हाका जाणून



कुर्डो = कुड्डो 2. व्होळ्ळि = व्हडलि 3. भिणभीणि = भीषण 4. फाटसून = मागल्यान

## सहारा ना म्हाका मेळ्ळे

येवून एकांत द्वीपांत पावला हांव
सिंधूरसंध्या वर्ण लायिला मौन
विकार धरला हृदयां विजन घन
सहारा मेळ्ळे ना एकूच एकु हांव

हृदय दुकला निमगिता राबलो हांव
रडलो निसीम समिंद्रु विशण्ण
लागला प्रतीक्षेक किती येवून ग्रहण?
सहारा मेळ्ळे ना एकूच एकु हांव

तंबिडेरंगांत रडण्याची साया दिक्किला हांव
दिसला सांजेमेघं मळबार रडताय पोवून
अगाधभाव समयांत दुख्ख भरला मौन
सहारा मेळ्ळे ना एकूच एक हांव

सरला एकांत बेस्सूक काळखांत हांव
सूर्या अस्त म्हणला पस्त[1] ताजें तेज
सपनां सासु मांदिला क्षितिज दिक्कून
सहारा मेळ्ळे ना एकूच एक हांव

1. पस्त = क्षीण

## परिक्षीणु[1]

थिकु हांव वत्ता एकांतु
क्ष्य कांय नात्तिल्ले
ंय आरंभु
ांवुका खंतय[1] हेच कळनात्तिलें
ाट होड आदि मध्य
ंत कांयनात्तिल्ले
ावलां अस्थिर, परिक्षीणु
ांति मेळनात्तिल्लें

क्षेमु निंगूक चोयना कोण,
हांसताय कळनात्तिलें
दोळयांत अश्रु दुख्ख हृदयांत
सांगूजावनांत्तिल्ले
मन दृढ करू विशम
उपायु मेळनात्तिलें
पावलां अस्थिर कांपताय,
घर पावूजावनात्तिल्लें

ुडगुडेल्या काळी मेघ
ाउस घालनात्तिल्लें
ीवित दुश्कर सरता,
ाशापूर्त जांवनात्तिल्लें
डळ्या गर्जून हृदयपीडा,
ागूं कळनात्तिल्लें
रला मुखार पावलां
ाळखांत शरण मेळनात्तिल्लें

अव्यक्त लक्ष्य धुवरांत,
हातां येवूनात्तिल्लें
वाऱ्यार उबचो कापूस
धरूजावनात्तील्लें
झोडांतु मोंचूव धोल्ललें
तीरार लाग्गूनात्तिल्लें
थडथडेल्या पांवलां
विश्वासाक अर्थुनात्तिल्लें



1. परिक्षीणु = पूरायेन वापरिल्लो 2. खंतय = खंयचेकडेन

# समयाची सूव

ना भरल्या हृदयाचे घाव
ना बदलल्यात तुजे मनोभाव
तीर ना पावला जीविताचे नाव
ना खंय थांबली समयाची सूव

विश फुंकून डसला उग्र कालसर्प
ना खंय सुक्कला व्रण नाय दुख्ख
फूटतच विकरलें जीविताच्या नाव
ना खंय थांबली समयाची सूव

येत्तशी परतला विकारांचे पाळ
बन्द जाले न्हय दुख्खांच्या ताळ
ग्रहण लागला जीविताच्या मोहांक
ना खंय थांबली समयाची सूव

कोपाग्नि जळला कालांतु अखंड
तापांतु लास्सला जिवांचे होमकुंड
अनन्त पडला जीवितांतु उजापावसु
ना खंय थांबली समयाची सूव

1. सूव = सूय

## रड्ण्याचो जय

कितले पडळ्या आयचे लोकांतु
रोडुका म्हणु आसा सग्ग कैर्यान्तु[1] ?
लोकु झगडेवूक व्यस्त खेळखेळांतु
हासु रड्ण्यावर फुटून लागलो काळे युगांतु

दुड्डु दीवनु हस्सूका जात्तलें आनी भावींतु[2]
तशी चालचलन आयचे वर्तमानांतु[3]
कांय ना जाल्यारीय पोणजे हांसिले भूतकालांतु[4]
आतां कश्ट भारि काणु हांसुका म्हण्चांतु

निपला खंय हांसूं दूरा काळखाचे कूडांतु ?
दिक्कू येना स्पश्ट हंय दिसाचे उजवाडांतु
चोयल्या हांसूंक कोण जीविताचे धांवांतु ?
वेळु ना राबूक तांतु हांसूं खंयचे समयांतु ?

मात्तें जड जाल्या कूडें[5] कोयराचे विचारांतु
उलेयलार बोब्बो घालून सुण्याचे भोंकीन्तु
चाबून खांवुका म्हूण देवले रातयांत लोकांतु
हांसताय पोट धरून रड्ण्याचे जयांतु



1. कैर्यांतु = कार्यांतु 2. भावी = फुडारांतलें 3. वर्तमान = आयचो कालु, अत्तां 4. भूतकाल =
कूडें = कुटिल, वायट

## सुंदर ही भूंय

भूंय ही सुंदरी
नील सुंदर गगनमंटपु
सुंदरु लागलो लोकु
येयला चोवूक मनीसु

भूमंडळ हे सुंदर
पळे सुंदर पर्वतु
सुंदर लागलो लोकु
जीवांत परतलो श्वासु

सक्काळिं ही सुंदरी
हांसलो सुंदर भास्करु
लागलो सुंदरु लोकु
भांगरांत न्हावून येयला दीसु

न्हय्यों नितळ सुंदर
हस्सून सुंदर झरनीयो
सुंदर दिक्किलो लोकु
झिग्गून पळेयलो ईशु

मन प्रसन्न जालें सुंदर
ह्रदयांत सुंदर दृश्यविस्मयु
सुंदर दिसलो लोकु
येवनु मेळूक जीवां लक्ष्यु

फुलां लावण्य सुंदर
विस्कळ सुंदर फुलां सासु
सुंदर वर्ण भरून लोकु
स्वर्गु देवनु येवचो निमीशु

## सासु आग्रहां

सासुरंगांत बुडचे लोकांतु
रंगु एकु हांवे काडलो
एक रंगु हातांत काडून
सासुवर्ण हांवे लायलो
विचार सासु भरता लोकांतु
एकु विचारु हांवे मागिलो
विचारु एक मनांत धरून
सासु व्याख्या हांवे बरेयल्यो

सासु रश्मियो सोडचे सूर्यांतु
रश्मि एकि उप्पून हांवे घेत्तलो
एक किरण दोळ्यांत भिजोवून
सासु किरण जळता चोयलो
माथीं सासु देवाचे रूपान्तु
एक म्हाकाय घडून दिल्लो
माथें एक जीवांत घेवून
सासु मस्तक भायर दाखेयले

सासु वाणियो उलोवचे देशांतु
भास एकि जाण जाल्लो
एकि वाणि कानांत आयकून
सासु उत्तरां ज्ञात जाल्लो
कविते सासु रचूचे लोकांत
एक कवन म्हाका मेळलो
गींतु एकु हृदयांत म्हणून
सासु गींतु हांवे बरेयलो

सासु ल्हारांत बोधाचे गर्भांतु
विचारु एक म्हाका दिसलो
एकु उमंग सिरेंत लागून
सासु उमेद[1] हांवे काडलो
भंगराचे सासु सपनांत
एक सप्पनजीवित भोगीलो
आग्रह एक मोंचुवांत घालून
सासु सपनदीप हांवे बळेयलो



## अनंतविलाप गींतु

शान्ति ना मनांत
एक उपाय सोद्दीता हसाक
हांसु ना दुख्खांतु मौन
एक उपाधी सोद्दीता खेळाक

व्यक्त न्हय मनांत अदृश्य
एक लक्ष्य सोद्दीता लग्गूक
आग्रहां न्हय उणे सपनां
एक वेळु सोद्दीता जावूक

जीवित म्हळ्यार भारी उव्वारु
एक बेयकोलु[1] सोद्दीता रक्षेक
पीडा न्हय हृदयांत भारु
एक अस्वस्थस्वरु कंठाक

मूक न्हय सीरांत वेगु
एक झोडु ल्हवू मारूक
व्यथा हृदयतलांत शोकाद्रु
अनंतविलाप गींतु म्हणूक



1. बेयकोलु = सुकल्लें तण

## आजि ही घडि

कालि जालेलें, ना येत्तलें परतून
फाय जायत्तलें, जाण जात्तलें कोण?
आजि अस्सिलें, मेळलेलें हात येवनु
कालि-फायचे तें, चोवनु वतलें कोण?

येंवुचाक आसिलें, आसा धुंवरून
कलचें जालेलें, खेल्लें काळखान
आतां धरलेलें काडि तूं हासून
वच्चें जायत आसो उजाचे खाण

वत्ता येयलेलें, व्हय येत्ता वचून
येंवुचे येत्तासतलें खै प्रमाण
किती हात येलें मेळचें पळेवून
अन्य देवा आसिलें सोडूक म्हूण

व्होळता उदकांत बरेयलेलें हात्तान
फाय सांगिलें आयकिलें वाऱ्यान
उंच लक्ष्य असचें समजून
आजि ही घडी करी निशाण



## जीवित विजय

जीर्ण सुक्के हृदयघूडांतु तवळीय
स्पंदनं केन्नाय हालताय आसतलीं
पोर्णे पिक्कल्ले मनाकूडांतु मागीरीय
सपनं केन्नाय फुलताय आसतलीं

आयु अंत ना जन्म-मरण फिरतेरीय
परतले केन्नाय अमर म्हणटाय आसलीलीं
स्थायु किति जीवितांतु रण्याक सांगताय ?
ल्हार उठताय खाल पडटाय आसतलीं

घूड सोणु मळबांत पाक्कियो[1] उबलाय
जायत वे मळब केन्नाय तानिं मेजतलीं ?
रडताच हताश परतले मेळून अशांतीय
फांत्यार उडान नवे भरताय आसतलीं

मात्र दोनि श्वासूच खेळूक आसलाय
वीर लडताय केन्नाय विजयु पांवतलीं
भय कसल्याक, जीवित विजय घे हारतेरीय
पावलां दवर मुखार चमकताय आसतलीं



1. पक्कियो = पक्षी, सुकणें

## मरुस्थलांतलें फूल

ल्लेला हांव कोणाक जावून
ला विसकळ व्यर्थाक जावून
ा ना चांग न्हय, वोत घेवून
क मरुस्थलांतलें पुष्प जावून

उजे वोतांत उदका थेंबो ना जावून
राबिल्या भूय सुकून ताप्पूनु
नीरस कठोर जीवन एक घेवून
दुख्खित मरुस्थलांतलें फूल जावून

ण ना सौन्दर्य पळेवू जावून
य ना जीवु श्वासु एक खेळून
ा ना वर्ण, आर्द्र हृदय घेवून
लपित मरुस्थलांतलें पुष्प जावून

कर्पल्ले वृक्षांचे शिखरार जावून
मृत्यूचें भीषण हूंकारु आयकून
रड्ण्याचें चिह्नन[1] हृदयारि घेवून
धूमळ मरुस्थलांतलें फूल जावून

. चिह्नन = अंकन

## सपनांतुलो स्वर्गु

सौरभ्य भरून गुरबाफूलांत[1]
फुटल्यां किरण सकाळीं भाग्यस्फुरण[2]
लक्षु वातायन विस्कळले मोहित भूंय
दिकिला आजि सप्पनांतुलो स्वर्गु

सुख ना तीनि लोकांतु खंयच
म्हळ्ळेले कोण तानीं किती जाल्लेले जाण
तुमी आयकाय हांव सांगता कशी भूंय
दिकिला आजि सपनांतुलो स्वर्गु

पारमाळा वारें लागलें येवून आंगांत
लायिलें सुगंध जीवितांत कल्याण
लोकु भोवनु सुख सर्वांक वांटून भूंय
दिकिला आजि सप्पनांतुलो स्वर्गु

दिस्सल्या न्हय सत्य वचन आयकाय
करुका कशी सांगूका किती प्रमाण
लोकु जाला प्रसन्न, आजि दीसु यशी भूंय
दिकिला आजि सपनांतुलो स्वर्गु



1. गुरबाफूलांतु = गुलाबाफूलांतु 2. स्फुरण = स्पंदन, झगझगेवप

## एक मात्र सत्य

त्यु निश्चित एक मात्र सत्य जावून
ीवित धांव्ता ताचें एलतापेलतां जावून
ज्प धोर्नु जीव खेळताय रंगमंचांत जावून
टक जाणटाय, अंत सोडून वचा जावून

कथा केल्या कोणे? म्हण्ळे हांवे, प्रश्नु जावून
एक वेगळे केल्याय, जीवराश्यांचे खेळ जावून
तुजि म्हजि सकळ काणियो एकेक सांगू जावून
कित्ति म्हण्टाय, जन्मु काडचें देवान अवतारु जावून?

ीवु घेत्ता, हांसता नवें एक प्रभात जावून
ाल धांवलाय, सांज जाल्या तशी राति जावून
वें धरलें हांगा किती एक स्थिर जावून?
श्न केल्याय, कान्नांतु मारुचें सेळ व्हारें जावून

कोण येयलीं-गेल्लीं म्हणचें हंगा व्यर्थ जावून
कल्पं सरल्यांय, जन्म घेत्ताय ब्रह्मा नवे जावून
युक्ति नाक्का कल्पनेक नामरूप जावून
मृत जाल्याय, नवे जीव श्वास खेळू जावून



## विचिंतन

मनाचे अंतरंगांतु[1] निप्पयल्या सप्पन
सोडूक जावनात्तिल्लें आग्रहांचे जल्पन[2]
हृदयाचे भित्तेर तरंग हीं स्पंदन
जात्तलें म्हणु उणे बालचापल्याचे क्रंदन

आत्मानुभवांतु निक्षिप्त वचन
आयकूनात्तिल्लें भावावेशाचे कल्पन
विशयानुरागान विकाराचे धोलन
हृदयांतु उठांवचे सांगीता गुंजन

कल्पनालोकांतु कोयल कळकूजन
भावना तळयां हंसाचे चलन
भावतीरार लागूचे गायन-वादन
जात्तलें म्हणु अठोवनु वेगु धोर्चे गमन

सपनां भूंयेर फुलचे फुल्लांहर्षन
निपवनूय प्रत्यक्ष हासाचे कंपन
शब्दाचे पेलतांतु उदेवचे भावन
जात्तलें की म्हणु कळूनात्तिल्लें विचिंतन

1. अंतरंग = अंतर्मन, गुप्त 2. जल्पन = बडबड

## भावना कल्पना

असीम भावना कल्पन हो संसार
अगाध संकल्प भावांचे व्यापार
विशाल कल्प समयाचे कारोबार
विकार सम्मेळनाचे महादरबार

निसीम प्रदीप्त चेतनाचे घर
जाज्वल बोधमण्डलाचे साक्षात्कार
संचित विचारजालांचे तार
सतेज आर्द्र विकाराचे ल्हार

संकल्प नाटक भावांच्या प्रसर
पुण्य-पाप सम्मेळनांचे दहर[1]
स्वर्ग-नरक भयाचे कहर
रूपांचे भावभेदांच्या अंतर

जीवितचक्रांतु जीव जन्मांतर
वर्णांचे सचित्र वर्णनाचतुर
कालाचे विद्युवत गणनाचे अक्षर
अमिट दृश्यानुभूती साकार

1. दहर = विपदा, आफत

## विधीचो खेळ

चमकता आसता म्हाजे हे पावल
चडता श्वासाक्रम सग्ग प्रतिकूल
भूंय भेत्तल्या पावला-पोंदा खाल
पच्चूवि[1] भूमि सुकून,विधीचे हे खेळ

धांवता आसता रुतू आनी काल
मारता हृदयाचे गति अवताळ[2]
मळब निपल्या मेघां उंच जाल
नीळ आकाश सिर्कून, विधीचे हे खेळ

विधित कित्तसा तजे म्हणु चाल
सरता मुखार खयींच राबता ना पावल
एकडे कोणासा तो थयींच खाल
हंय राबू असाध्य म्हणून, विधीचे हे खेळ

अर्थु ना मेळू सर्व मायेचे जाल
जीवु हो भरिल्या मनांत चिकोल
आत्मा तो शुध्दुजावनु राबला अचल
रक्षा दीवून अंत करो विधीचे हे खेळ



1. पच्चूवि = पांचवी 2. अवताळ = बेताल, गोंदोळ

# मनोगत

देता सुर्य कोणाक कित्याबगेक ?
ीसु जावून राति येवूबगेक ?
उदेवून दऱ्यांत न्हावूक वच्चो मगीर
विचारता हांव स्वयं मिगेलेबगेक

लोकु घुंवता अशी कोणालेबगेक ?
मिगेलबगेक की भोंवणी[1] वगळ्याबगेक
धावून फिरता खर्यींच समयाफटीर
विचारता हांव स्वयं मिगेलेबगेक

जन्मु घेत्ताय जणं कोणालेबगेक ?
जात्ताय आमी सब्बाव[2] मरून वच्चा बगेक ?
जीवरूखाक[3] खंय आसा आधार ?
विचारता हांव स्वयं मिगेलबगेक

जाल्याय रोडून दुख्ख भोगूबगेक ?
समयु अशी नश्ट करू बगेक ?
कोणाक कळतां प्रश्न ताजें उत्तर ?
विचारता हांव स्वयं मिगेलबगेक

जीवित मेळयां न्हय उबंत[4] उडवूबगेक
लक्ष्य आसा तें सोदून काडूबगेक
जनन-मरणाचे उंच जावूंका पार
मनोगत म्हाजें हें स्वयं मिगेलेबगेक

बगेक = खातीर
1. भोंवणी = भ्रमण 2. सब्बाव = अर्थहीन, व्यर्थ 3. जीवरूखु = जीव म्हण्चें झाड
4. उबंत = त्याग केल्लेलें

## वत्तां हे वाटेर

वत्तां हांव मनांत दिसले वाटेर
थंय कोण ना एकु हांव मात्र
येंवूका सांगताना, हंय कांयीच ना
वत्तां हे वाटेर, येवून फळ ना

वत्तां हांव म्हाजे एकांत पथार
थंय कोण येवूना एकु हांव मात्र
येवूचाक साध्य ना तुमकां तें जायत ना
कश्टां हे वाटेर, येवून कांय करूना

पावलां चमकल्या दुर्घट हे पथार
लागि ना केवलो एकु बेसुक तर समयु ना
चोयता हंय कोण ना सुखाचें कण ना
सरला हे वाटेर, वाट विसरून वत्तना

पडल्या म्हाजे ह्रदय जळून हे पथार
लागि रोड्डूक ना अभय तावीज ना
स्नेहु थेंबेता ना हंय शांतीच ना
वत्तां हे वाटेर, तोपलें व्रण सुकता ना

वत्तां हांव दुख्खान कानखाचे पथार
थंय वचून कांय ना म्हाका येवून मेळका ना
केवलो हांव लागि ना सावळी तरी साथ ना
वत्तां हे वाटेर,  राति ही सरता ना



## सपनाचें कथन

गाध तलांत भित्तेर खयींच मन
डलें तरता जालें, भायर येत्ता
दयाचे कोणांत खंयीच मन
वलें हांसलें स्वयं उल्लेयता

विकार स्पंदनांत खंयींच मन
हाललें पाळांत बुडलें, उडक्यो मारता
विचार रश्मिचे उजवाडांत मन
दृश्य जालें, सावळींत अदृश्य जत्ता

नंत नृत्य-ताळांत मग्न मन
तरंगांत[1] उलेयलें, भित्तेरी हांस
ीवप्रयाणांत पोवून खयींच मन
ीविताचि वाट स्वयं सुखान धरता

शांत मळबांत ध्यान धरून मन
समाधि मग्न शांन्ति मेळून परतता
गोंदळांतु थाकून मुक्त खयींक मन
आनंदांतु शांत दर्यांत बुडता



अंतरंग = अंतर्मन, गुप्त

## प्रतीक्षेचीं अंकुर

आनीकय प्रतीक्षेचिं अंकुर येवून व्हडटलीं
चोयाय आमकांय आमि येयल्यांय म्हूण सांगतलीं
आश्चर्य जावून लोकु वाह ! रे म्हूणु म्हणटलीं
मरणांत थकून सपनां जीवंत उटतलीं

व्हडून तानि नवे सुंदर जीवित एक करतलीं
चोयाय आमकांय, आमी परतल्यांय सांगतलीं
दुख्ख तीं घेलीलीं, उजांतूय व्हडटलीं
मरण येवून ना आमकां करगूक म्हूण म्हणटलीं

स्वर्गार पावून पिंपळारुकावर व्हडटलीं
चोयाय आमकांय, आमी आपणालेच सांगतलीं
चकीत जावून देव आनंदान नांचतलीं
अमर आमी ना मरणभय आमी आयकीलीं

आनीकय जीवितांत रंग भरून दित्तलीं
चोयाय आमकांय, आमी तारकां[1] म्हूण सांगतलीं
हृदयांत प्रतीक्षेचे दीपांवर जळतलीं
तोडोव ना, प्रतीक्षेचीं अंकुर - चोय फुटतलीं



1. तारकां = नखेत्र, तारो

## अनभिव्यक्त

जायत वे एक जन्मान मनीसाले
हृदयाक प्रस्तुत करूक जातलें ?
साध्य वे एक पलान जीवाले
भाव अभिव्यक्त[1] करूक जातलें ?

क्षिप्र जावनु प्रत्यक्ष दर्शन दिवुंचाक
नश्ट म्हणु खातीर बंद जावनु वतलें
अस्त्र चडून हृदय भेतून तोपूक
लागले बाण वेगीन दिकूक ना जातलें

कळता वे म्हजे उतरान विकारांक
पद्य[2] जावनु बरवून समजूक जातलें ?
उणे वे पडल्या कवचाचे[3] पोंदाक
बंद भावें कशी वळखूक जातलें ?

वस्त्र घालून पांगरूक आंगाक
नागडें करून लोकांतु नाटक म्हूण जातलें
उतरां ना कागतार एक जन्मान बरवूक
साध्य न्हय कळूक अज्ञान म्हूण जातलें



1. अभिव्यक्त = स्पश्ट   2. पद्य = कवन   3. कवच = चिलखत, आवरण



श्री. एन. बालकृष्ण मल्या, १९७४ मे ३ तारीखेक केरळांतले कोच्चींतु जन्मलो. हांगेलो पयलो कविता संग्रहु हो.

केरळचे एक लेखकाल्या 'साहित्यकृतीक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चांवर' पद्धती खाल प्रकाशन पालव मेळप अजून जावंक ना. पुण आतां पयलेच पावट ह्या अनुदानाक पात्र जालेल्या श्री. एन. बालकृष्ण मल्या हांचो हो कविता संग्रह.

'जीव संकल्पा' वाटेन बालकृष्ण मल्यान गांतिल्लें विचार म्हस्त ऊंच ना जावयेत. पुण तागेले विचार आशादायक आसात. एक नवोदित लेखकाक येवकार दिताना कोंकणीचें भविष्य केरळांत भद्र आसा अशें आमकां दिसता.

₹80/-